विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
KONKANI FOLKTALES

# कोलो आनी कोली
# The Fox and the Vixen



# बस्ती आजाली चीट



सानुल्या बाल-वाचप्यांनो,

विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुरासावन, ही कोंकणी लोककाणयांची माळ आमी तुमचे खातीर मुजरत वेंचून हाडल्या.

तुमकां काणयो वाचूंक आनी समजूंक सोंपें जावचें, देख्नून आमी ह्या सान-सान काणयांक रंगबिरंगी चित्रांनी नटयल्यांत. तीं चित्रांय तुमकां पसंत पडटलीं हाची म्हाका खात्री आसा.

आजकाल सगल्या भुरग्यांक कोंकणी सांगाता इंग्लिश भास लेगीत वाचूंक येवपाची गरज उप्रासल्या. देखून, दरेका कोंकणी काणयेचो इंग्लिश सार आमी मुखावेल्या पानार दिवपाची व्यवस्था केल्या.

ह्यो काणयो तुमकां आमची भूंय, सरभंवतण आनी भास हांची अदीक लागिंच्यान वळख करून दितल्यो. हातूंतल्यान आमच्या गिरेस्त दायजांतलीं अनवळखी उतरां, वस्तु, नातीं, इश्टागती आनी अणभव तुमकां मेळचे हो आमचो हेतु आसा. तशेंच, ह्या काणयांतल्यान आमचे पूर्वज कशे रावताले, कितें चिंतताले, सैमा सांगाता कशो जियेताले, बरें-वायट कशें थारयताले हें तुमकां होलमतलें.

ह्यो आदल्या काळावेल्यो काणयो जाल्ल्यान, तातूंत तुमकां कांय गजाली काळाभायल्यो दिसतल्यो, पूण आपणालें दायज जाणा जावप गरजेचें. मागीरच, आमकां तातुंतलें बरें वायट वेगळें काडूंक कळटा; आमी मूळ काणयेचें सार-स्वरूप बदलनासतना, तशें करचेलो थोडो-भोव यत्न केला. तुमगेल्या पालकांक आनी तुमकां तो कितलो आवडलो हें तुमगेल्या बस्ती आजाक मुजरत कळयात.

फुडाराक तुमी लेगीत आपल्याक आवडटात त्यो नव्यो नव्यो काणयो कोंकणींत बरोवन आमची भास वयर काडूंक वावुरतलीं ही म्हाका आस्त आसा. तुमकां आनी तुमचे वरवीं कोंकणीक अदीक उजळ फुडार आंवडेतां. तुमकां बस्ती आजालीं परबीं.

तुमचो बस्ती आजो

बस्ती वामन शेणै
संस्थापक,
विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळुर

PUBLISHED WITH
FINANCIAL ASSISTANCE FROM




DEPARTMENT OF KANNADA AND CULTURE
GOVERNMENT OF KARNATAKA

No part of this publication may be reproduced, stored in or introduced into retrieval system, or transmitted in any form or by any means (electronic, mechanical, photocopying, recording, or otherwise), without the prior written permission.

विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
KONKANI FOLKTALES



# कोलो आनी कोली
# The Fox and the Vixen

Chief Editor
Kiran Budkuley

Konkani Script & English Translation
Veera D'Costa

Editing
Nafisa Oliveira & Palia Gaonkar

Illustrations
Ibrahim Badusha & Balu, Ernakulam

Concept & Production
Gurudath Bantwalkar



विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
World Konkani Centre, Lobo Prabhu Nagar - Konkani Gaon, Shakti Nagar, Mangaluru- 575016
Phone: 0824 - 2231887, 2231877, Email: worldkonkani@gmail.com. www.vishwakonkani.org

Once upon a time, there was a fox and a vixen. They would roam together in the jungle.

One day, as they were wandering, they noticed a honeycomb. Since they spotted it at the same time, they decided to share it equally and eat the honey.



एक आशिल्लो कोलो आनी एक आशिल्ली कोली. दोगांय रानांत संगातान भोंवतालीं.

एक दीस भोंवतां-भोंवतां दोगांयची नदर जुस्त वांगडाच एका म्होंवामाल्याचेर पडली. दोगांयनी तें बरोबर पळयल्ल्यान ताणीं तें म्होंव वांटून खावपाचें थारायलें.



But the fox ate all the honey from the honeycomb himself, and left only the wax for the vixen. Although she was very angry, the vixen did not say a word to the fox. Silently, she collected the wax and built a house with it before the rains.



पूण  माल्यांतलें सगळें म्होंव कोल्यानूच खालें आनी उरिल्लें मेण तितलें कोलयेक दिलें. तिका खूब भिरभिरी मारली तरी तिणें  ताका कांय म्हणुंना. मोन्यांनी, तिणें मेण एकठांय केलें आनी पावस येवचे आदीं त्या मेणाचें घर बांदलें.



The fox, on the other hand, kept teasing her. Moreover, instead of building a house for himself, he just loitered around.



दुसरे वटेन, कोलो तिची फकाणां मारीत रावलो. त्याभायर, आपले खातीर घर बांदचे बदला फकत हांगा थंय हेडत रावलो.



The rains were almost there and at the last minute he decided to build a house. But how was he to build it? In his greed for honey, he had given away all the wax to the vixen...!



पावसाचे दीस सामके लागीं पावले आनी निमण्या वेळार कोल्यान बेगोबेग घर बांदचे थारायलें. पूण घर कशें बांदतलो? म्होंवाच्या आशेन ताणें सगळें मेण कोलयेक दिल्लें...!



Finally, he went here and there to collect some cow-dung and somehow built a house with it. The rains started and both, the fox and the vixen, began to live in their own homes.



शेवटाक, हांगा-थंय भोंवन ताणें शेण एकठांय केलें आनी कशें तरी ताणें त्या शेणाचें घर बांदलें. पावस सुरू जालो आनी तीं दोगांय आप-आपल्या घरांत रावपाक लागलीं.



One day, it rained very heavily. The vixen slept soundly in her house, whereas the fox was overcome with anxious. His cow-dung house collapsed in the rains and he did not know what to do. He found no shelter.



एक दीस अकस्मात घोग्यांनी पावस पडलो. कोली आपल्या घरांत सुस्त न्हिदली, पूण कोलो मात हुस्क्यान सामको आबुज जालो. पावसान ताचें शेणाचें घर कोसळ्ळें आनी ताका कितें करचें कांयच कळना जालें. ताका खंयच आलाशिरो मेळना जालो.



Since the fox had made fun of the vixen earlier, he did not know how to face her. But now, the only shelter closeby was her house. Brushing aside his shame, he knocked at the vixen's door. The vixen was fast asleep and did not hear the knock due to the sound of the rain. The fox then started banging the door loudly. The vixen woke up and drowsily asked, "Who is it?" But the fox made no reply.



कोलयेगेर वचपाचें कोल्याक धाडस जायना जालें, कारण ताणें आदीं तिची फकाणां केल्लीं. पूण आलाशिर्याक आतां कोलयेचेंच घर लागीं आसलें. कोल्यान सगळी लज-भीड सोडून कोलयेच्या दारार मारलें. कोली गाड न्हिदिल्ली. पावसाच्या आवाजांत तिका कांयच आयकूंक आयलें ना. कोल्यान नेटान दार धाडायतरीच तिका जाग आयली. न्हिदसुरे कोलयेन विचारलें, "कोण गा?" पूण कोल्यान जाप काडली ना.



When the vixen opened the door, the fox was there with a sorry face. She remembered the tricks he had played on her and she was about to shut the door. But the fox begged her for forgiveness.



कोलयेन दार उगडले तेन्ना कोलो बाबडो कसो उबो आसलो. ताणे केल्ल्या सगळ्या नाडपणाची तिका याद जाली आनी ती दार धांपपाक गेली पूण कोल्यान तिची भोगसणी मागली.



The vixen felt sorry for him. She forgave the fox and gave him shelter under her roof. The fox also repented and gave up his treacherous ways.



कोलयेक ताची काकुळट आयली. कोल्याक तिणे भोगशिलो आनी आपल्या घरांत आलाशिरो दिलो. कोल्याकूय पश्चात्ताप जालो आनी ताणें आपलो नश्टो सभाव सोडून दिलो.





विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर
WORLD KONKANI CENTRE
MANGALURU

presents

# Konkani eBooks

## with interactive voice and text sync



# Fascinating Tales

## from Konkani Folklore in eBook format




# DOWNLOAD NOW! IT'S FREE

www.vishwakonkani.org/konkani-ebooks




# Listen to the eBooks, as you Read them..

These books are a great way to introduce Konkani folktales to your kids. They would love to listen to the stories in your mother tongue that is Konkani. While rich colours and illustrations attract the kids, the background voice over will amazingly captivate them to the reading. The text highlights guide the kids to read along the voice over. They will also introduce them to the indic scripts such as Devanagari and Kannada. You can read these stories in all devices whether Desktop, Laptop, iPad/Tab or android smart phones. Find out more details on our website how to download the relevent reader apps for reading this latest ePub3 technology eBooks.






# .. in your own dialect!

World Konkani Centre has produced
a series of ebooks in various Konkani dialects.
Voice over in native accents capturing
apt cultural expressions enthuse
the young and old alike!

# shortly uploading..









# विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
# KONKANI FOLKTALES





































कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान

KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION

WORLD KONKANI CENTRE, LOBO PRABHU NAGAR - KONKANI GAON,
SHAKTI NAGAR, MANGALURU- 575016
PHONE: 0824 - 2231887, 2231877, EMAIL: worldkonkani@gmail.com.
www.vishwakonkani.org

₹ 50.00

ISBN 9789382582304

